# काळजाची भरती

(कविता)

नीला तेलंग

अपुरबाय प्रकाशन

---

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हें पुस्तक
'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे' खाला छापलां.

पयली उजवाडावणी :
मे १९८८

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय-फोंडें-गोंय
४०३ ४०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय-गोंय

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल :
**अठरा रुपया**

‘काळजाची भरती’
ह्या कविता संग्रहांतल्यो
कविता, हाचे आदीं
‘कोंकणी’
‘चित्रंगी’
‘ऋतु’
ह्या नेमाळ्यांनी आनी
‘अप्रूप’ ह्या
प्रातिनिधीक कवितासंग्रहांत
अजवाडाक आयल्यात.

# प्रकाशकाचे वतीन....

नीला तेलंगाचो कवितासंग्रह उजवाडायताना आमकां एक खेरीत खोस भोगता.

अपुरबाय प्रकाशन बायलांमदले साहित्यिक गूण वाडीक लागचे म्हण आपलेपरीन वावुरता.

१९८० वर्सासावन खासा बायलांखातीर आमी "चित्रंगी" हो वर्सुकी अंक उजवाडायतां. त्याचप्रमाण बायलांनी बरयिल्लीं पुस्तकां उजवाडायतां. १९८५ वर्सा आमी १५ नवोदीत कवयित्रिचो "अप्रूप" हो प्रतिनिधीक कवितासंग्रह उजवाडाक हाडलो. त्यावेळार प्रतिनिधीक संग्रहांतल्या कांय बरोवप्यांचीं वेगळीं स्वतंत्र पुस्तकां प्रकाशीत करपाची आमी अित्सा व्यक्त केल्ली. त्याप्रमाण नीला तेलंगाचें स्वतंत्र पुस्तक उजवाडाक येता. हेरांचीय पुस्तकां उजवाडावपाची येवजण आसा.

त्याभायर प्रकाशन संस्थेचे वतीन फाटल्या कांय वर्सां सावन आमी गोंयच्या वेगवेगळचा वाठारांत बायलांचे खासा साहित्यिक मेळ घडोवन हाडले.

'चित्रंगी' खातीर नीला नेमान बरयता आनी बायलांच्या साहित्य मेळांनी सक्रीय वांटो घेता.

नवे कोंकणी कवितेंत नीलान आपणाली खाशेली कुरू रेखल्या. वाचप्यांकडसून ताका बरो येवकार लाबतलो अशी आस्त आसा.

**हेमा नायक**
प्रकाशक

## मांडावळ

## काळजानथावन ....

म्हजो पयलो कवितासंग्रह आज उजवाडाक येता. तो येवपाक जितल्यांचो हातभार लागला त्या सगळयांचें हांव ऋणी आसां.

पयले सुवातेर, हेमा नायक फुडें सरल्यो म्हण हें पुस्तक इतलें बेगीन भायर सरूंक पावलें. त्याभायर तांचें व्हडपण म्हळयार सगळें ताणी आपल्या आंगार घेतलें. हांगाच पुंडलीक नायक हांचो उल्लेख केल्यार अतीताय जावंची ना. ताणीय म्हज्या पुस्तकाखातीर खूब कश्ट घेतल्यात.

कोंकणीचे नामनेचे कवी रमेश वेळुस्कार हाणी पुस्तकाक प्रस्तावना दिवन म्हाका उपकारांत दवल्लां. तांकां विनंती करतांच ताणी रोखडोच हयकार दिलो हें तांचें व्हडपण.

पुस्तकाक सोबीत चित्र काडून दिवपी श्रीधर कामत बांबोळकार हांचेंय हांव उपकारी आसां.

प्रकाशनाच्या मळार नामना जोडिल्लें अपुरबाय प्रकाशन म्हजें पुस्तक उजवाडापाक लाबलें हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.

सगळयांचें रीण पावोवंक तर जावचेंच ना पुण तें माथ्यार घेवन रावप म्हळयार पसून एक ओर्रेच !

देव बरें करूं.

**नीला तेलंग**

आडपय - दुर्भाट
फोंडें - गोंय

# काळजाची भास

१९८१ वर्सां साहित्य अकादमीन 'कोंकणी काव्य संग्रह' ह्या माथाळ्याचो एक काव्य संग्रह उजवाडायला. बाकीबाबांनी संकलीत केल्ल्या ह्या संग्रहाक तांचीच प्रस्तावना आसा. ताणी एकीकडेन म्हळां कि, "फाटल्या ३२ वर्सांतली ही कवीता." प्रस्तावनेत फक्त एकेच कवयित्रिचें नांव आसा. आनी संग्रहांत तीन कवयित्रिच्या तीन कवितांचो आसपाव आसा. जांतली एक विजयाबाय सरमळकार हांची. तांचो एक 'गोठलां' हो काव्य संग्रहूय प्रसिद्ध जाल्लो आसा. ताचे उपरांत आतां "काळजाची भरती" हो आनी एके कवयित्रिचो काव्यसंग्रह.

"अप्रूप" हो कांय कवयित्रिचो कवितांचो समूह झेलो आयिल्लो, जातूंत नीलाचे कवितेचो आसपाव जाला. आनी आतां तांच्या "काळजाची भरती" ह्या काव्य संग्रहातल्यान ती आंमका मेळपाक येता. तिचें आमी मोटचा दबाज्यान स्वागत करूंया.

काळजाक जेन्ना भरती येता तेन्ना ती मोग भरून घेता. नीलाचे कवितेंत आमका खूब मोगाळ कविता पळोवपाक गावता. मोगाळ मनशांची अळार जावन आयिल्ली भास पळयात. तो तिका सांगता, काय ती ताका सांगता हें न कळपाचे शिमेर –

**मळब दिसता तुकां म्हज्या दोळ्यांत ?**
**तुका खबर ना दिसता ?**
**दर्यो लिपयला हावें काळजांत.**

मोगाची भास ही अशीच सुचोवपी आसता. मळब ... दर्या ... तशीं अमर्याद अशीं प्रतिका ... आनी हीं सुचयतात जायत्यो गजाली. पुण हांगासर तांचो वापर ह्या मोगींच्या तोंडांत अशे तरेन आयला कि तांचो मेळ सुचोवपाचें काम हांगा कवयित्रीन आपसूक केलां.

खंयचेय गजालिचो मोग हो, ती म्हाका आवडटा वा तो म्हाका जाय, अशें म्हणून कळटाच अशें आसना. घडये हीं उतरां, मनीस मनांत कितेंय धरून वापरता आसूये; देखून तांतल्या उपरेपणाचो भासूय रोकडोच जाता. पुण नीला आपल्यो भावना व्यक्त करतना असल्या घांसून गेल्ल्या शब्दसमुहांचो उपेग करिना. आपलो मोग उक्तो करपाखातीर नीला कशी रचना करता तें पळयात–

**वतना व्हेले ना कित्याक तुजे दोळे ?**
**हुलपायता पळय तांतुतलो अपुर्बाय**

मोग आनी दोळे .. दोळे आनी भावना .. मोग ... आनी दुःख .. मोग आनी .. हुलप ... अपुर्बाय आनी पैसावप ... तशेंच पैसावपांतलो मोग .. अखंड मोगाक लागून तयार जाल्लें भावविश्व निर्माण करपाक वा तयार आसलेल्या ह्या भावविश्वाचें जुस्तपण शद्वांतल्यान व्यक्त करपाचें बळगें हे कवयित्रिफुडें आसा ही बऱ्याची सुलूस.

मोगाळ मनाची तांक फुडार पळोवंक शकता तशेंच ती इतिहासूय पळोवंक शकता. भूतकाळांत लोकांनी जें दुःख सोंसलां ताची खरायूय जेन्ना मोगी मनीस पळयता, तेन्ना कितें जाता पळयात–

**राधा मीरेचीं पिशीं**
**म्हांका दिसऽ फकाणाशीं**
**आयज कळटा तांच्या फाटलें जळप**
**आनी वाडटा काळजाचें खपखपप**

राधा मीरेचो मोग पळोवपाक आमकां तांकां पळोवपाचीच गरज आसाता अशें आसना पुण आपल्याच अनुभवाच्या कसाचेर हो भूतकाळ पळोवप नीलाक शक्य जालां. आनी देखून तें म्हणूंक शकता–

**आयज कळटा तांच्या फाटलें जळप**

मोगाचे तरातरांचे पदर नीला उक्तीत वयता. तोखेवपांत मोग आसाच. पुण कोणूय चूकत जाल्यार ताका हिस्स फिस्स करपाक आमी वेळ काडिना. ताका दूशण दिवपाक आमी उतर राखिना. कारण दुसऱ्याक समजून घेवप म्हळचार त्रासांचें ... तोखेवप सोपें ... दूशण दिवपूय सोपें ... पुण समजून घेवपांत जें लागसारपण आसा त्या सामर्थ्याचो वेध नीला कशें घेता पळयात–

**सगळें जग तोखेता गूण**
**चूक पदरांत घेता कोण ?**
**थंयच कळटा आपलेपण.**

आनी जंय कळप आसा, जंय समज आसा, थंय चूक बरोबर हाचें महत्व वयता, म्हटल्यार तांतलें समजाचें आपलेपण वाडवपाक लागता.

" तुजें उतर " हे ताचे कवितेंत " कितलें म्होवाळ लागिल्लें फुतफुतताना " हीं उतरांय मोगाचे तनरेचें अपरूप रुप.

केन्ना केन्ना ही कवयित्री खूब्ब विचार करता. सौंदर्य इबाडपांत जाका मात्तूय त्रास जायना, अशा लोकांचो त्रास सौंदर्याची उपासना करतल्यांक जाता. तांची व्यथा नीला समर्पक शद्वांत करता.

**केन्ना कोण पिसडीत कोणाक खबर**
**सोबितकायेक खंय श्राप जलमभर**

वाचतल्याच्या मनाकूय रूखरूख लावन वचपी हीं उतरां. केन्ना कितें जायत हाची शाश्वती न घेवपी काळाची जाणीव करपी हीं उतरां ... "श्राप" हे कवितेंतलीं.

नीला खूब वर्सांसावन बरयता. बरें बरयता पुण पूर्वसुरींच्या रिणांतल्यान मेकळें जावचें आसता हें मनांत दवरप सगळ्यांचे गरजेचें आसता. पूर्वसुरींचो प्रभाव आसप ही चूक न्हय पुण तांतुतल्यान पयस सरप खुब्ब गरजेचें.

नीलाचे कवितेंत असो प्रभाव कांयकडेन जरी आसलो तरी तांतल्यान पूर्णपणान भायर सरून आपलें खाशेलें अस्तित्व निर्माण करप प्रत्येक कलाकाराक गरजेंचें आसता, हाची नीला तेलंगाक जाणीव आसा अशी म्हजी खात्रीय आसा. दोश आसपांत महत्व ना. ते काडून उडोवपांत महत्व आसा.

नीलाचे कवितेंत मोगाची साबार रुपां आमकां पळोवपाक मेळटात. मनीस मनशाचेर मोग करता तो मोग. तो नीलान बरे तरेन उक्तायला. जाका फक्त सौंदर्याचोच मोग आसता असो सौंदर्यसक्त मोग. हाचेंय चित्रण नीलान खंय खंय केलां. 'प्लेटोनीक लव'ची भासूय अभिव्यक्तिचें एक माध्यम आसता. आनी तेउपरांत आध्यात्मिक वा आंतरात्मिक मोग. ह्या सगळ्या मोगाच्या अभिव्यक्तिचो खोलायेन अभ्यास करून नीला कोंकणीक सर्वंगी अशी कविता दितलें अशी आमच्यांनी आस धरूं येता.

कविता, आमच्या सर्वसामान्य अशा अनुभवांतल्यान असामान्य अशा संवेदनाचो आसपाव करून घेवन आपलो रूपकार घेता तेन्ना तिचें वेगळेपण जाणवता. आनी ह्या अनुभवाची खराय जितली चड तितलेंच ते कवितेचें महत्वूय चड.

कोंकणी साहित्याच्या मळाचेर नीलाच्या पावलांक मुक्तपणान आनी निजाच्या विश्वासाचेर (कालपनीक विश्वासाचेर न्हय) पावली मारपाक बळगें येवचें अशी आस्त.

पाळें, गोंय

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

बरप

दोळ्यांतल्या दुखांनी
भरशिवचें रगत,
चिरिल्ल्या काळजांतल्यान
रावपी झिरपत

तें बरपार फाफुडलें कांय ना ?
की बरप खंय केन्नाच इबाडना.

□

पिशें

राधा - मीरेचीं पिशीं
म्हाका दिस, फकाणाशीं

आज कळटा तांच्या फाटलें जळप
आनी वाडटा काळजांतलें खपखपप

भांगरा मुकूट

तोखेतात तुमी न्हय
म्हज्या भांगराच्या मुकुटाक ?

तो मोलांवक जाय
सपनां लासून, तांचो गोबर फारीक करूंक.

## मेथी

तळठार मेथी, रंगता रोखडी
आनीक कितली म्हणून तांबडी ?
मात कितल्या बेगीन मारता दांडी ?
दोनच दिसांची वांगडी.

नाखटांर मात बसता बावडी
फतकल मरून आदेस काडी
नाखटां वांगडा जीवीत रखडी
तांचीच खरी संवगडी

## माया

सगळें जग तोखेता गुण
चूक पदरांत घेता कोण ?
थंयच कळटा आपलेंपण !

जाय तेंच जुस्त आनी जुस्त तेंच जाय
अशें केन्ना जालां काय ?
म्हणूनच सोदतां मायेची गवाय.

‘जर - तर’ चो भरजरी पदर
कितलो तेप दीत आधार ?
लिपना कशेंच खऱ्याचें भांडार.

## म्होंव

ओगीच किद्याक दुखोंव ?
म्हणून जालें म्होंव
वाजेलें त्या बरेपणाक
मूस लागतकच दसूंक

## हातो

हात्यामुळांत
सोरपाचो राबितो.
सोरोप बाळगूंक गळ्यांत,
कांय न्हय तो,
माळुंक माथ्यांत,
जर मेळत हातो.

## दूख

पेटयली जिती चिता
तरी जालीना चिंता
तूं शियान कुडकुडटा
तें म्हाकाय कळटा.

घळ्ळ करून दूख दॆंवता
तें किद्याकशें दिसता ?
सरणार त्या धगधगत्या
तूं शिगार शिलगायता ?

## नखेत्रां आनी दर्या

झुंबरांखातीर नखेत्रां ध्यास,
आज म्हजें जिवीत धादोस.
नदर मारात थंय पयस,
नखेत्रांचे दिसतात घोंस,
तेंच म्हज्या घरापाडस.

भागलो पुणून केन्ना हावेस ?
रगत आटयलें रातदीस
काडाओडीनी काडली खरस
धाम देंवलो जावन पावस
दर्या म्हणुन घालता धुडगुस !

## माडयनाशिल्लो मार्ग

डांबरी मार्गान म्हाका सांगिल्लें हरशीं,
फाटीवयल्यान आपल्या जाय थंय पावशी

पुणून म्हाकाच दिसलें आयबशें,
लोकानी माडयिल्ले वाटेर भोंवचें कशें ?

कांटे काळजांत रोमले आतां
हुयेली मारून कोणाक दाखयता ?

## उजवाड

पेटोवन घेतलें तुकां उजवाड जाय म्हणून
हुलपार एकच फूक मेळपाचे आशेन
तेल ओतलें जाल्यारय सोंशीन,
लासून वचूंक बरें तितल्यान बेगीन.

उमळशीक

उतरां ओतलीं –
अितलीं अितलीं
सांगपाचें कळीत करूंक चुकलीं

मोन्यानी उलवन उमळशीक उस्तिली,
धांपून लिपयिल्ली,
काळजा भितल्ली.

वाज

सूर्यान पयर
माल्लें म्हज्या दारार,

मागलें कितें मागच्या मागून ?
म्हज्या फुटक्या शिपयांचें दान

आनी हांवें दार काडपाच्या वाजाक,
ताका लायलो तसोच वचूंक

तुजें बरप

'तुज्या बरपाचें पानान पान
मोलायल्या बगर रावीना दुडवान.'
हांवें म्हळें मोगाच्या उमाळ्यान

म्हजे इष्टिणीच्या गळ्यांत माळ घालून
तुवें सांगलें खंय फुतफुतून
'तें मेयटा तशें उडयता पैशे मोडून !'

## तुजेखातीर

केसांत तुज्या मुदयाळच्या,
म्हजी नदर घुसपल्या.
केन्नाच पैस वचूं नाका म्हण्टां,
तुकांच पडत म्हणून खरड, भितां.

## तुजें उतर

सूर्याचो झगझग विसरूं येत –
जेन्ना चंद्रीम मुमुरखो हांसत,
नखेत्रांच्यो मस्कऱ्यो करीत,
मळबाच्या आंगणात आपालिपा खेळटा.
मोगऱ्यांच्या वासाचो उगडासय जायना
जेन्ना आतांच पडिल्ल्या पावसाचे ओलसाणेन
जायांचो घमघम बराबर घेवन
चांफ्यांचो भांगरा कोर लिकलिकता.
आपल्याक पसून विसरूं येत –
जेन्ना तेदूसचे तुजे मोगाळ नदरेंत
आनी हुनहुनीत वेंगेंत
धादोस जाल्लो खोण येवजता.
तुजें उतर मात कशेंच विसरूंक येना
जरी तें मुरलीच्या मधूर सुरांत बुडलें ना
वा गोड आवाजांतय भिजलें ना
कितलें म्होवाळ लागिल्लें कानांत फुतफुतताना ?

## जटायू

म्हज्या पाखाटयांत बळगें आशिल्लें
चंद्रीमाक खाक्यांत मारून
धर्तरेर हाडपाइतलें
पुण वांटचाक आयिल्ले एकेच उंडयेक,
तांची मळबाएदी भूक भागवंक,
खंय आशिल्ली तांक ?

म्हज्या सपनांच्या फुलांचो वळेसर
माळून भोंवतालें हांव जर माथ्यार,
घमघमीत जावपाचो सगलो वांठार.
पुण गुलाबाच्या नाजूक रोपांक
जाय खूब सांबाळूंक
आपशीच वाडटले सुरंगीक,
पळवंक मागीर फावता कोणाक ?
रावणाकडेन झगड नासतनाय
जटायू खरशेता वळवळत.

आनी त्या क्षुल्लक गुलाबाचोच ताका येता किवट
पुण ताका नाका तुमची काकूयट
जमताच जाल्यार मतीत धरात
साबार झाडांचेर नदर दवरूंक जायना जुस्ताजुस्त
म्हणून होटयेंत येंता तें एकच झाड रोयात पोरसांत.

## फुलां आनी नखेत्रां

खेळटालें हांव फुलांबराबर
इतल्यांत म्हजी नजर
पावली नखेत्रांचेर

दोनच पावलां माल्यार
होटयेंत घेंबचीं रासभर

नखेत्रां आसात अजून आसा थंयच
फुलां मात शेणून गेलीं, पुंजावच्यापैलींच

श्राप

फुलत्या कळयांचे कुवाडे म्हळचार
हांसो मुमुरखोसो जिवणेर

लज उगरमल्ली तांबशीशी पोल्यार
आनी निळींच सपनां दोळयांदेगेर

तोखेंवक बरें दिसता, पुण खिणभर
मागीर मन सोडटा एक हुस्कार

केन्ना कोण पिसडीत कोणाक खबर ?
सोबितयेक खंय श्राप जल्मभर.

गिरेस्तकाय

माणकां मोतयांचो पावस म्हगेर पडिल्यान
म्हजी गिरेस्तकाय गेली व्हांवन

तांक

ना जायत म्हाका तांक
चंद्रीम आनी सूर्या आपणांवक
म्हणून कितें वेंग मारूं फातरांक ?

## पयर आनी परा

पयरचो न्हाणयता पावस
म्हणून आज गरयता रांवस

फाल्यां खणलीं पाळां-मुळां
जाल्यार विणलीं परां खवळां.

## तेज

सूर्याचें तेज भांगर
निखटचा दोळ्यांक लागता खर
चांदी म्हणून मंद उजवाड,
चान्याची पुणून तोखणाय चड

मळब आनी दर्या

मळब दिसता तुका म्हज्या दोळ्यांत ?
तुकां खबर ना दिसता ?
दर्यो लिपयला हांवें काळजांत.

भंय

भोंवतणच्या वाठाराचो
दिसता भंय,
म्हाका तुज्या
काळजांत लिपय.

## करड आनी घड

दर एक केळ म्हजी दिता घड,
तुजे थंय मात, खंय करडच करड.

## सूर्या

म्हजो सूर्या तुका दितना
म्हाका खबर ना,
तूं कुड्डो म्हणून !
चुरचुरे पडले ना ?
आतां कुडक्यान कुडके जाल्ल्यान ?

मळब

तुज्या दोळ्यांत तें मळब नाशिल्लें,
जें हांव सोदतालें . . .
म्हज्या धगधगत्या सुर्याक वेंगेंत घेवपाची
तांक आशिल्लें,
आनी उदक फांफडून म्हजे तळतळाट
न्हिवयतलें.

बरप

म्हाका खूब बरवचें दिसता –

निळ्याच मळबाच्या कागदार बरयिल्लें,
पाचव्याच पानांचें बरप वाचतगच मात
म्हाका म्हजीच काकूयट दिसता.

## कोडू कॅंडबरी

हळडुवो कोर म्हजे आवडीचो
घमघमय ताचो अपुर्बायेचो.
ते सोबितकायेचो हावेस हांवें कसो धरचो?
म्हजे उडये परस वयर, ताळो ताचो तेंगशेचो.

'नाकाच ती वस्त जी म्हाका मेळना'
म्हणून हांवें ताका हुंगून लेगीत पळेलें ना.
देखून देखलीं ना हांवें सपनां
रचलींय ना ताजेर म्होंवाळ कवनां.
अजापून हांव पळयत रावलें,
जेन्ना ताचें तेंव बागवलें.
पोल्यार पाकळचो लुवलुवल्यो,
काळजांत खातखूतल्यो जाल्यो.

'म्हज्या केसाचें काळें मखर,
सोबयतलें ताचें रूप सुंदर.
कानावयल्यो कुल्लांच्यो बटी मुदयाळचो
हांसयतल्यो ताच्यो पाकळचो, कंवळयो.'

... आनी हांव जमनीर आपटलें
जेन्ना म्हजी उमेद पिसडीत तें वयर गेलें.
रोमिल्या कांटचान काडिल्लें रगत अशेंच व्हावतलें...
कॅंडबरीच कोडू म्हजी, ताका कितें करतलें?
        वचूं गेल्यार मात वयरच रांव,
        नाजाल्यार देवामाथ्यार पांव.
        ओंपिल्या माथ्यार घाली खोंट, जांव
'मरण' सजवपाची ख्यास्त नाका ताका भोगंव!

म्हाका खूब हांसुंक आयलें

ब्लॉकांनी आपयलें
बंगल्यांनी खुणायलें
पालासींनी म्हळें,
'आमचो तोरो पळे'
म्हाका खूब हांसुंक आयलें
तुज्या काळजाच्या कुडींतच म्हाका रावपाचें आशिल्लें.

विजनेरकेन समजायलें
दोतोरकेन समजायलें
डिग्री–डिप्लॉमा फुतफुतले
'पदव्यानी आमच्या सोबतलें.'
म्हाका खूब हांसुंक आयलें
तुजी 'राणी' म्हणून म्हाका मिरवपाचें आशिल्लें

गोरपाणेन तोखणायलें
सोबितकायेन आपणावंक केलें
स्मार्टनेसीन सुचयलें
'जोडें बरें दिसतलें'
म्हाका खूब हांसुंक आयलें,
तुज्याच रुपाचें म्हाका पिशें लागिल्लें.

गिरेस्तकायेन वजन दाखयलें
सत्तेन हालवंक पळयलें
एंप्रेंगादानी परगटायलें
'आमचे मुठीत सगलें'
म्हाका खूब हांसुंक आयलें
तुजे वेंगेंतच म्हजें जग एकठाविल्लें !

## अजागळ

चंद्रीम म्हजो, वाट तुजी उजळ
म्हज्या मार्गाच्या दोळयांत काळखा काजळ

कांटयान कांटो वेंचलो निवळ
तुवें पुंजावचीं म्हणून फुलां निखळ

चान्न्याच्या चंदेरी उजवाडात नितळ
पावलां सकल तुज्या, फुलां तळ

पिशांत काडलें ? खरेंच हांव अजागळ !
ओंठार हांसो, दोळयांत जळ.

## मोरापांख

आंवडेलें इतलें मोरापांखांखातीर
आपटलें धपटलें, पुण मेयळेंच मागीर

धादोसकायेचो ओघ सळसळून वयर
निर्शेतांच पीकळ पूज्य सामकार

मळबाच्यो कुरवो आतां आपयतात भोंवडेर
पाखाटच्यांतलें बळगें धाडीना मुखार

## उरफाटी जीण

ह्या फुलासरीं राव,
त्या फुलाम्हऱ्यांत धांव,
पिसोळ्यासारखें जियेतालें हांव !
इतल्यात तूं आयलो,
आनी म्हजो सर्ग बदल्लो.
म्हज्या भोंवतणी कोश जालो,
मोव–मोव, रेशमान विणिल्लो, म्हज्या हांवेंच !
कितलो तेंप तातूंत न्हिदतलें ?
सपनां सोंपतगच उठचेंच पडलें
कोश फोडून भायर सल्लें !
किडी भशेन आतां भोंवतां,
हेवटेन तेवटेन हेडटां,
कांटचा–खुंटचार पसून चडटां,
येवजितां केन्नाकेन्नाय,
तांतीं कशें जावपाचें आसा काय ?

## तूं आब्यारुख

सोबीत म्हज्या ल्हानशा जांबळ्या फुलांक भुलून
तुवें खांदार घेतलें, म्हाका बेनल्लीक अपुर्बायेन !
तर गेलें सभागी हांव भुल्लुसून,
आनी माथ्यारच बसलें तुज्या चडून.
आपले उंडयेंतले गोटे तुवें खावयले
जाल्यार तुज्या रक्ताचे घोंट घेंवक संवकलें.
दशा-दशा जावन हालीं तुवें पालेभपाचें लेगीत सोडलां.
आनी हांव कशें तुज्या खांद्यावयल्या
ताळयां कणकणीं सरसरत रसरसलां !
अजून जा पापया शाणो आनी उडय म्हाका हुमटून.
आंगार पडल्यार पडूं चरे
आनी पडल्यार पडूं काळीज तुटून.
शीक इल्लें गिन्यान,
'जीव आसल्यार भीक मागून खायन'
किद्याक तूं असो पोट फुटून हांसता ?
कितें म्हळें,
जीवापरस मोलाचें जायतें आसता ?

## काळेंपण

चान्नें हांसलें,
चोवन म्हजें काळेंपण.
म्हज्या काळखाक मोरापाखां तिकतिकसाण
आनी दायज दिवपी फाटल्यान राम–कृष्ण !
ताचो नकलामी झगझग,
उष्णें वायण.

## कर्तुप

नशीब हांसत,
जाल्यार पारजताचो शितोडो दारांत पडत
पुण गळोभर उदकांत,
आनी घोपरावयर चिखलांत,
वचून हाडिल्ल्या साळकाची सर
ताका कशी येत ?

## जोगूल

लिकलिकलें जावन जोगूल
अख्खो संवसार काचाबूल

रुखानी भुजां उखल्लीं, सकल
भस्म तांचें तेंकतांच पावल

माथें ओपून उबे दोंगर
देंवतांच ताचो सामको गोबर

दिव्य तेज जाय देखून अपुर्बाय
तीख धग सोंसची ना संवय

वस्तेक आपलें मळब खरें
पयस सावन सगलें बरें

धर्तरेची होंट गायर
भरुंक मात जातां भांगर

## तूं

१.

मन दोळ्यांनी उलयता
पुण बुद्ध जिबेर बडबडटा
कुड्डीं न्हय तीं मनशां भैरीं
भैरीं न्हय तीं मनशां कुड्डीं.
तूं एकलोच असो कसो ?
न्हय भैरो, न्हय कुड्डो ?

२.

तुज्या धव्याफुल्ल हांशार हुबत
आनी निळे नदरेंत बुडत,
काळच्या मुदयाळच्या माथ्यांत घुसपत,
जीविताचें उदक म्हाका वचपाचें आसा पेंवत.

३.

दोळ्यांतलें चान्नें म्हाका
तुजेर शिंपूंक जाय,
केंसांतलीं ल्हारांय म्हाका
तुकाच ओपुंक जाय.
तुकाच त्यो ओंठांवयल्यो
फुलत्यो कळयो
आनी वेंगेंतल्योय तुकाच त्यो
जायो-जुयो.

४.

म्हाका दिसता,
हांतुळच्यो तुजे वाटेर
हांतरिल्ले भांगराचे शेंदरेर,
व्हॅलवॅटच्या दवरिल्या कुडक्यार,
फुलांच्यो पाकळ्यो मोवसार.
पुण च्यॅ !
तरी तुज्या पायांक पडत म्हणून कात्रे,
हांवें काळीज कातरून केल्यात हुंबरे !

५

व्हडले तळयेची खोलाय म्हाका उथळ दिसता
आनी मळबाची निळाय उक्ती–उक्तीशी दिसता
–तेन्ना म्हाका तुज्या दोळयांची याद जाल्ली आसता.

धवेफुल्ल मोगरे कळे म्हाका काळेशे दिसतात
आनी मोतयांचे मणी बुरशे दिसतात
–तुजे दांत तेन्ना म्हज्या दोळयांमुखार आसतात.

फुलांचें हांतूण म्हाका कांटयांभशेन तोंपता
सगली गिरेस्तकाय आसूनय रडूं येता
–तूंच तितलो थंय नासता.

६.

हांवें केलें गीत एक
आनी गेलें तुजे भेटेक.

चान्नें जालें गीत,
लिपलें वज्राचे कुशींत.

७.

तुका तें जाय आशिल्लें
म्हणून हांवें सुवार्थी म्हळें.

हांव दीवंक अनमनलें
तातूंत सुवार्थाबगर कितें आशिल्लें ?

८.

वतना व्हेलेना कित्याक तुजे दोळेय ?
हुलपायता पळय तांतूंतली अपुर्बाय.

९.

वांकडचा उतरांच्या हुलपान
बाविल्लें मनाचें म्हजें पान
उमेदीर हाडटात सट् करून
तुज्या दोळ्यांच्यो घागरी
अपुर्बाय शिंपून !

१०.

म्हाका दिस –
तुजी करूंक आरत
वज्रांचे दोळे जाय !
मात तुजे वेंगेंत
ते मेणाभशेन कडटात पळय !
तरी तुजी म्हण्टा म्हूर्त,
त्याच अभिषेकाची तुका व्हडवीकाय !

११.

मैलांचें अंतर आसूनय म्हाका दिसता
तूं कितलो लागी आसा.

आनी वेंगेंत घेवनय तूं पिरंगता,
इतलें पयस कित्याक पिशा ?

स्तवन

प्रभू तुजें स्तवन गायतात, आमकां बुद्ध दी
मनीसपणाचें मोल राखूंक मती शुद्ध दी

झगडीं झुजां नासलें जिणें आमकां भोगूंक दी
एकचाराची व्हडविकाय आपणावपाची तांक दी

बरें - वायट वळखुपाची आमकां शक्ति दी
सत्य - शीव - सुंदर सदा पुजपी भक्ति दी

गिरेस्तकाय गिन्यानाची आमच्या फाटल्यान दी
काळजान काळजाक पारखुपाचें वरदान दी

## ललय

ताता बाबूक येता, ताता बाबूक येता

कुतू कुतू येवन बस तरी
बाबुच्या पाळण्यासरी
बाबुची राखण करी
धूप सगल्याक दरवळटा, ताता. . .

बिलू बिलू गेलें तरी खंय
मात्शें राव बसून थंय
बाबूक ललय गाय
न्हिदेंत बाबू कांचवेता, ताता . . .

चिऊ, चिऊ कितली ती ताकतिक
दांडयेर बस शिळोणी घालूंक
बाबूक जाय मुगो थापटूंक
हिमटचो बाबू काडटा, ताता . . .

हाम्मां, हाम्मां दुदु थोडें जाय
आटवन बयली मोवशी साय
बाबूक इल्ली हुनशी लाय
बाबू दूदू पियेता, ताता . . .

कावया, कावया बोवाळ तुजो नाका
पयसच रावून सवका
पाळण्यांत धोलय ताका
भांगराच्या सपनांत भोवता, ताता . . .

## दिवाळी

वातीर पेटयत वाती, काळोख सारीत पैंस
जळामळा कसो उजवाड फाफडीत उमेदिचो वास

सत्याक कशें ज्योती पिशें
फटींगपणाचें तेजांत हांशें
आज लखलखीत दिवे जळयत झगझगाची रास

वात जळटी, पेटयता वाती
मोगा पण्टी, काळजां पाजळती
आज वांकडेंपण लाशीत - फांफशीत हड्डुं करता धादोस

# पार्थी गायतां गीतां

१-

ह्या आमच्या कवींच्या राज्यार
कित्याक मात्शे मारीनात नदर ?

ग्रीष्मय हांगा फुललेलो
तुमकां भुलयतलो
जाल्यार वसंत चंवरलेलो
कितलें पिशें लायतलो ?
बाराशांचे बारा म्हयने हे तरेकवार

हड्ड्यांतले उतळताप खूब
खंयतरी उदेता पडबिंब
उमेदिची उडटी ऊब
उदास वासाची परब
उरफाटच्याच जिण्याची अशी हांगा खबर

इतलीं इतलीं उतरां मुखार
उपशिता तितलो चड वावर
जमतल्याक सुलाखी भांगर
नाजाल्यार बेश्टे फातर
उबगणेचे सांवट संवकाळूंक सरात तर भीतर

२.

येयात सगळे झाडापोंदा गुरूद्रोण आपयता
एदे एदे राजकुंवर कोण धांवता कोण पडटा
        माकड कशे उडयो मारीत
        धनुष्यां खांदार घट्ट धरीत
        झाडादिकेन शिळवण्यो घालीत
कांटे मोडुित, फातर फोडीत, पळवया पयलीं कोण पावता
        द्रोणान बोट वयर केलें
        बोटादिकेन दोळे व्हेले
        इल्लेंशें शेवणें दिसलें
पानांफाटल्यान लिपलेलें, जण एकलो खरशेता
        कीर तो रुखा तेंगशेर
        जोखा धनू, मोखा तीर
        सांगात पुणुन दोळ्यांमुखार
काडलेल्या तीरासामकार कितें, कितें कितें येता
        कोणाक दिसलें मळब निळें
        पांचव्या पानांत पातळलेलें
        कोणें गच्च मखर पळयलें
फाटीं वच, फाटीं वच, जण एकलो निर्शेता
        पार्थाची पाळी आता
        तूं तरी सांग रे पुता
        म्हाका फकत दोळो दिसता
मार म्हणीत, खोस दाखयत, फाट सांसपिता
        तीर बेस्टो वचूंक फावना
        चित्त भरकटूंक जायना
        शाबास तुजी अर्जुना
जाय तेंच पळयत जाल्यार जुस्त नेम बसता

३.

तांबडोगुंज शालू आंगार,
झगझगीत सोबता भांगर
सोबितकाय हांसता तोंडार
तेज सांवळया मुखामळार

बागवता मान लजेन
थरथरता माळ हातान
धडधडता काळजांतल्यान
द्रौपदी थर्त भयान

गरगरता नुस्तें वयर
उदकांत पळय बाण मार
जुस्त मोख दोळचांचेर
पण पुणुन कितलो कुस्तार

सांवळी सोबीत सुपुल्ली
सुंदरी दोळचांत भल्ली
कांय न्हयशी ती खेळी
पार्थाच्या धनूवेली

पण जिखतां माळ गळचांत
खोशयेची दुखां दोळचांत
कुंती वांटता कांता पांचय पुतात
झेत ना, खंत ना, पार्थ शांत

४.

नाथ पांच पुणून पांचाली अनाथ

इतल्यांय हुजीर भरसभेंत
हाडटा ओडीत भरभरीत
दुःशासन दांत कड्डीत
न्हेसणाक मात घालो हात
पायां पडत घालो साद राखात म्हाका राखात

अधर्म सोंसता धर्म मोगी
बुद्ध भीमाची ओगीच ओगी
बळ बेश्टें पार्थालागीं
नेण्टे दोगय दिसती जोगी
तोंडाक तांच्या पळयत म्हळें घालात हाचेर लाथ

मोने घोव मोने सभेंत
आयलीं उतरां आकांतून
कृष्णा जांव, तूंच यो धांवून
सोंपून सोंपना न्हेसणां सोडवन
पितांबरात मन रडलें तुजीच म्हाका साथ

आंगांत आसून सगली शक्त
तोंड धापून बसले फक्त
वेळार काय दिलोना हात
धल्लो मात हात करूंक घात
मरसर उल्लें खत, काळजांतय खंत

५.

आंगाक आज उजो पेट्टा, आंगाक आज उजो पेट्टा

मातेक सोपूत दितना, कित्याक जीब झडलीना ?
नुस्त्याचो दोळो फोट्टना, कित्याक दोळे फुटलेना ?
देखलें तेन्नाच गोबर कुडिचो कित्याक जालो ना ?
गुन्यांव कसो घडलो असो हड्डें व्हडान आडुता

तोंड कशें दाखंव आतां तुका कुंति माते
मान सकल वतली तुज्या फुडें कृष्णा कांते ?
तकली मारून पायांर दवरीन दादा वता पातक तें ?
कितें करूं, कशें करूं, जीव तडफडटा

नकळटना घडलीं तरी पातकां फुट्टलीं
मन कितलेंय खालें तरी ख्यास्त भोगचेली
धर्म - पांवाली अस्त्रडीं एकठांय पळयलीं
अकर्म हें केलेंव कशें काळीज रडटा.

६.

कशें मारूं या जना, कृष्णा सांग कशें मारूं या जना

भीष्म लागता तातांचो तात
द्रोण गुरू देव साक्षात
कर्ण तर खासा भ्रात
कौरव परकी कशे जायत ?
नाकाच तें कर्म जें मना मानवना

राज्य फुडें एदें व्हडलें
कोणाक ना राजा जावचेलें ?
जीव घेवन मेळवचेलें
पळयनासतना आपले पेले
नाका, नाका राजा हांव जावचोना

द्रोपदीची वीटंबना
भोग भोगले कितले रानां
किवट येता येवजीतना
तरी पुण जमचेंना
कर्म कसलें कर्मकट्टें कशेंच करचोना

राज्यार आमी बसले कितें ?
राज्य ताणीं व्हेलें कितें ?
झूज म्हळ्यार मोल कितें ?
पेटवचें कित्याक झूज येदें ?
आग्रो आनी करूं नाका सोंसचें ना

७.

कवच कुंडलां दान घेवन
बापायन इल्लो साधलो सुवार्थ

आंगठो दक्षणा मागून
गुरुन थोडो केलो अनर्थ
सूत पूत म्हणून चाळवन
व्हंकलेन दिली जिखून सर्थ

गीतेंतल्यान गायत गिन्यान
सारथ्यान घालें कृपातीर्थ
धर्म जाय तसो बागवन
मेयळें वगडायिल्लें व्यर्थ

सोयरे धायरे घट्ट राबन
घडयलो म्हाप्रतापी पार्थ
सगळे जाण तुज्याय फाटल्यान
तुजेंय नांव जावनी सार्थ.



**नीला तेलंग**

"मोग आनी दोळे .. दोळे आनी भावना .. मोग ... आनी दुःख .. मोग आनी .. हुलप ... अपुर्बाय आनी पैसावप ... तशेंच पैसावपांतलो मोग .. अखंड मोगाक लागून तयार जाल्लें भावविश्व निर्माण करपाक वा तयार आसलेल्या ह्या भावविश्वाचें जुस्तपण शद्बांतल्यान व्यक्त करपाचें बळगें हे कवयित्रिफुडें आसा ही बऱ्याची सुलूस."

"नीलाचे कवितेंत मोगाची साबार रुपां आमकां पळोवपाक मेळटात. मनीस मनशाचेर मोग करता तो मोग. तो नीलान वरे तरेन उक्तायला. जाका फक्त सौंदर्याचोच मोग आसता असो सौंदर्यसक्त मोग. हाचेंय चित्रण नीलान खंय खंय केलां. 'प्लेटोनीक लव' ची भासूय अभिव्यक्तिचें एक माध्यम आसता. आनी तेउपरांत आध्यात्मिक वा आंतरात्मिक मोग. ह्या सगळ्या मोगाच्या अभिव्यक्तिचो खोलायेन अभ्यास करून नीला कोंकणीक सर्वंगी अशी कविता दितलें अशी आमच्यांनी आस धरूं येता."

□ अपुरबाय प्रकाशन □